# भक्तीपरमळ

## कोंकणी भक्तिगितां



**महेश तु. पारकार**



**भक्तीपरमळ**
कोंकणी भक्तीगिता

**प्रकाशन : क्र २०**
© महेश तु. पारकार

**प्रकाशक :**
सौ. मनुजा भा. गांवकार
मित्र प्रकाशन
किटोलें - बेतोडें, फोंडें-गोंय.

**मोल : ३०/- रुपया**

**मुद्रक :**
कस्तुरी ग्राफिक्स
ढवळी, फोंडा - गोवा

**मुखचित्र :**
श्री. गौरीश वेर्णेकर

श्री कामाक्षीच्या थळांत हांव रावतां
देवीच्याच प्रेरणेन हें बरप जालां
तें तिकाच अर्पण करतां

# मनोगत

अभंगाचें हें पुस्तक व्हडा खोशयेन तुमचे हातां दितां. खरें म्हळ्यार हें सगले अभंग हांवे कशे कितें बरयलें तें म्हांकाच अजाप जालां. देव ह्या शक्तीक हांव मानता. दुबाव ना, तेच शक्तीन म्हजे कडल्यान ते बरोवन घेतल्यात. सान पिरायेचेर सावन भजनां आयकत आयलां. आमचे घरा लागीं श्री महामायेचें देवूळ आसा. थंय दर सुक्राराक लोक मोटे उमेदीन भजनां गायतात. तशें पळयल्यार गोंयच्या गावांकणकणी देवळांत जांव पुजेचे निमतान भजनाच्यो कार्यावळी जातात. पूण सगल्याक उलोवपाची भास खेरीत आनी भजनाची खेरीत. ही गजाल जेन्ना सावन बरोंवक लागलो तेन्ना मनांक तोंपताली. पूण अशें तोंडान म्हणप म्हळ्यार लेगीत जंय गुन्याव कसो समजताले ते वातावरणांत कोंकणीतल्यांन भजनां बरोंवक जमलें ना.

कविता बरोंवक जमता हें होलमलें. तेन्ना काळजाचे खोलायेंतली ती अभंग बरोवपाची इत्सा खतखतून आयली. देव गणपतीच्यो आरती-अभंग बरोवन ती पुराय जाली. आत्मविस्वास गावलो. ''बिम्बा''न तें छापून हाडून उमेद दिली. उपरांत देव ह्या शक्तीची साबार रुपां मतीं हाडीत रावलों. काळजान, मनांत तांचे सामकार ओंपून घेवन तांचे अभंग बरोवन जाले.

देव-देव करीत बसप वा मनाचे तेच स्थितींत रावप हो म्हजो सभाव न्हय. मनाक काळजाक घटसाण दिवपी असो तो आदार! दिसांतल्यान थोडोसो वगत जरी आपल्या देवाचें नामस्मरण केल्यार कोणाकय तो गावता. आनीक ते आदारान बऱ्या वाटेन जीण मुखार व्हरूंक गावता. हो अणभव अभंग बरोवपाचे तेंपार घेतलो. केन्ना-केन्नाय जीणेंत किते करू कितें नाका हे भशेन जीव सतर वितर जाता. ते वगतार, मनीस कितलोय नास्तीक आसूं ताका हे सैमीक शक्तीची याद जांवकच जाय. तशेंच दिसपट्टे जिणेंत कोणाचेय तरी गरजेक पावप, हेरांचे सुखदूखाचे नदरेन चिंतप! ह्यो गजाली स्वताचे स्वभावा भितर येवप म्हत्वाचें. पूण त्योच त्योच गजाली बऱ्यो हे समजणेन करीत बसलो जाल्यार मात हेरांचे नदरेन आपूण काकूटेची गजाल जावचेलीय भिरांत आसता. देखून ।। प्रपंच करावा नेटका त्यातूनी परमार्थ साधावा।। हें संत तुकारामाल्या म्हणण्याचेर

पुराय विस्वास बसलो. कोंकणीत वा म्हणया गोयांत संत परंपरा ना. अशे एक फावट एका बरोवप्यान म्हजें हे अभंगाचे बरप पळोवन म्हांका म्हळें. चिंतले, परंपरा जातात कशो? कोण तरी एकाद्रे वावराक सेगीत माथे मारून रावता तेन्नाच मु? पळोवया तरी अभंगाचे वावरांत जमता िततलो तेंप ओंपून. अशे येवजून पोटतिडकेन हो वावर केलो म्हूण हे सुपुल्लें पुस्तक जालें.

आमचे धर्म आनी संस्कृयायेचो आमी जण एकलो वावूरपी अशें हांव मानतां. हजारांनी वर्सांचे दायज तें जल्मासांगाताक आमकां गावलां. तें अदीक अदीक गिरेस्त जांवक म्हजेंय हात-बोट लागचें. तेच नदरेन आनी नमळायेन हे अभंगाचे वावराकडे पळोवचें अशें म्हजें मागणें.

निमणे जाणी कोणी हे वावराक आदार दिलो तांचे सगल्यांचे उपकार.

**महेश तुकाराम पारकार**

श्री कामाक्षी देवी मंदीर रस्तो
थळ - शिरोडे - गोंय

ॐ

# श्री गणपती अभंग



गणपती नांव तुजें
भरलां संसारां
फातरां-फुलां रूखा तेंगशे
रूप तुजें फांकला ।
गिन्यानाची नामना तुजी
अडचल्ल्यांक पावता
बऱ्याक आनी खऱ्याक तारपी
संवसार हो तूं पेलता ।।
कितलें म्होवाळ नांव तुजें
तान भूक न्हिंवता
काळजां थंड थाकाय
शिरानी सासाय व्हांवता ।।।



काळखांतल्यान उजवाडा हाडटा
गणपती तुजी व्हडाय
गिन्याना किर्णां फांकयत
अज्ञाना रात सोंपयता ।
सूर्याचो उजवाड येता
धुक्या वाट निवळटा
गणपती तुज्या उच्चारान
जीणेची वाट नीट जाता ।।
संवसार हो तुवें रचला
इत्सेन तुज्या जीव जगता
कितलीं युगां सोंपली
धरतरेक तूं सांबाळटा ।।।



- आरती -

# जय जय गणराया



गायतां तुजो म्हयमां
भक्ती भावान पुजतल्यांक
पावता तूं त्याच खीणा ॥
खंयच्या रूपा मेळत तूं
सांगू जायना कोणाच्यान
विघ्नहर्ता म्हणटा तुका
राखता तूं दुबावाविणा ॥
श्रध्देन पुजतल्याक राखता
जल्माची ख्यास्त फटिंगा
तीनय लोक सोदून गावना
तुका पुजपी भक्ताविणा ॥



जय देवा गणराया
म्हण्टात तुका विघ्नेश्वरा
रूप तुजें ओड लायता
ना दुसरें अशे कोणा ॥
भक्त जो तुकां पुजता
आदार तुजो सदां गावता
कश्ट आनी दुखांचेर
बेगोबेग उपाय दिता ॥
सगल्या गजालींच्या आरंबाक
नांव तुजें म्होवाळ घेता
शक्त भरल्या कितली
काम खंयचेंय तडीक पावता ॥





चवथ पंचमीचे दीस
गणपतीक पुराय ओंपया
वाठार भोंवतणचो आनी
मना सगल्यांची निवळावया ।।
जय देवा ।।
अडचल्ळयांच्या उल्याक पावया ।।
दुखेस्तांची दुकां पुसया
वावर हो देवाचो आमी
असोच नेटान फुडें व्हरया ।।
जय देवा ।।
दुख तीन सागरां इतलें
कोयरान मळब भरतलें
वेळ हीच म्हूर्ताची समजून
वावराक पेंगट बांदुया ।।
जय देवा ।।



# ।।श्री सत्यनारायण।।

**- अभंग -**



कितली सांगू व्हडवीक तुजी
उतरां पावना सांगूक ती
सत्यनारायणाचे पुजेंतली
सत्य पूजपाची खेरीत रीत ।।
पुजा केले उपरांत देवाची
आस ताचे कडसून मागपाची
सत्यनारायणाचे जोडीन
पूजतल्या तांक येता आकांताची।।
जण एकल्याचे पळय मतीं
इत्सा दाळाक थपयानी
घटाय सत्यदेवाच्या भावार्थाची
आमचीं कंबरां घट करतली ।।



धर्तरेची इत्सा बाळगीना
नाका राबितो सर्गींचो
मतीं इत्सा एकूच आतां
आलाशिरो तुज्या नावांचो ।।
जे खिणा नासता मतीं
संवसार दिसता उज्याचो
मतीं तुज्या यादी सांगाता
व्हांवता भक्तीचो वजरो ।।
तुरो फुलांचो दीन दिसता
हेरांक तुज्या पूजेचो
तुज्या नावांन सगलीं मना
भरूंक गावल्यार पुरो ।।





सत्यदेवाची व्हडविकाय
पटल्या आतां सगले लोकां
ताका पुजून राखूं येता
मतीं सत्याची उजू दिका ।।
दिकेन ते मुखार वतल्या
आदार करता देवा कृपा
भंयावीणे धाय दिकांक
वचूं जाता सोदूं ताका ।।
निवळ मनान पूजतल्यां
आदार गावता दर पावला
विस्वास तो मतीं रिगत
संवसार जिकपाची तांक येता ।।



**- आरत -**

सत्यनारायणाची पूजा जाली
आतां सत्याची पूजा करुया
आरत ओवाळून भोंवतणी
मना कणकणी ज्योत पेटोवया ।।
सत्याची शक्त आकांताची
सगल्या लोकांक कळटली
आदारान रूपकाराक येतली
शक्त मतींतले नारायणाची ।।
देवाचे पुजे भोंवतणी
मांडावळ सोबीत फुलांची
मतींतय तशीच मांडून
सासाय पुजूया मनाकणकणी ।।



# श्री विठ्ठल-रुक्मिणीचे



विठ्ठल-रुक्मिणी नांव तुमचें
दर खिणा घोळयतां
तें घोळयत रावता तशी
तुमची गोडसाण वाडयता ।।
मर्तीं पेट्टा उजो केन्नाय
जिवा जायतो हुलपायता
थंडसाण तुमचे नावांची
सगलो हुलप निवळायता ।।
मुखावेलीं संकश्टा जेन्ना
थतर-वितर मना करता
तोंडान घेत नावां तुमचीं
भिरांते कुपां पोघळायता ।।
बिण्ण काळोख दाट्टा केन्नाय
परिस्थिती भुतां नाचता
सासाय तुमचे कृपेची
सगलें धुकें वितळायता ।।



पावशी दिसांचीं काळीं कुपां
तातूं विठ्ठलाचें रुप दिसता
पयस-पयस धावता तीं
तांचो थाव नदर घेता ।।
विठ्ठलाचे भक्तीन पुराय
मन म्हजें आयलां भरुन
धावती कुपां लागता ओड्डूं
विठ्ठला तानेन धावता धरुं ।।

पावसी कुपां झडटलीं आतां
धर्तरी पर्मळटली आंगां
विठ्ठलाची सासाय सगले
पावतली मनशां मनां ॥



पाव म्हाका देवा विठ्ठला
संसार दर्या हुपूंक
सांगात दी दर खिणा
हात पांय मारुंक ॥
जीण ही दिल्या तुवें
सांग तूं खंय व्हरु
ल्हारांचीं आडमेळीं कसो
पैस करीत मुखार वचूं ॥
सोडलो एकलो जे खिणा
खोल दर्या भिरांकूळ
सगलें आसा मुखार तुजे
ना कितेंच लिपूंक ॥
नांव घेत सारतां जीण
गावता तीच खोस भोगूं
ना आनीक गोड हांगा
फकत नांव तुजें एकूच ॥





मतींतलें अमंगळ सगलें
भायर उडोंवक आदार दी
जें कितें बरें जगां
सगल्यां पावोंक शक्त दी ॥

जें बरें संसारांतलें
इत्सा जायना आपणावची
बेगसार तें पावचें मतीं
कसलीय तरी माण्णी दी ॥
भांगरा वोत सुर्याचें
धापता काळखा आडमेळीं
मतीं पावोंक उजवाड तुजो
आडमेळ्या बगर वाट दी ॥





पवित्रतायेची - सासायेची
श्रद्धेची - निर्मळकायेची
मूर्त तूं जाणविकाय तूं
विठ्ठला तुजे पायांचेर आतां
घालून घेतां हांव ॥
उंचाय तूं खोलाय तूं
गर्भकुडयेतले शितळकायेची
मतींतले श्रद्धेची सुवात तूं
हे विठ्ठला तुजे आदारान
संसारा जियेतां हांव ॥



नदर जाली व्हड म्हजी
पळोवन तुजें सोबीत रुप
दर एका गजाली भितर
दाखयता तूं तुजीच मूर्त ॥

नदरेचें हें व्हडपण
दिलां तुवें म्हाका खरें
जें कितें बास्कळ-वायट
दाखय तांतू रुप तुजें ।।
मळबां शिवरता चान्ने जेन्ना
मूर्त तुजी मळब भरता
मुयो दसता गोडा जेन्ना
मूर्त मुये भशेन तुजी जाता ।।
सैम आनी मळब कणां
भरुन आसा तूं उफाट
मन आनी नदर विशाळ
दवरुंक तूंच दाखय वाट ।।





संसारा जें पवित्र निर्मळ
तें तुजेंच रुप रे विठ्ठला
हे गजालीची व्हडवीक
म्हळयार तुजी पूजा रे देवा ।।
फुलां उजवाती धूप लावन
होरायता पळे सगळे तुकां
अशी तुस्त कित्या तुकां
उखलापे पणा ही देवा ।।
आरती म्हणत आड्डता मुखार
यत्न वाडोंवक पत आपली
हासता आसूये मनांतले मना
यो तू मना तांचे रे देवा ।।





भक्ती भाव जागला मना
असोच तो तिगल्यार पुरो
भक्तीचे ते आद्वारान जगां
जिणेचो हेत गावल्या पुरो ॥
कीट तुजे भक्तीची मती
अचकीत खिणा पेटली खरी
तिगोंवक ती जिवीतभर
तुजोच आदार जाय खरो ॥
जिणे जीं कामां जाता
पावलां केन्नाय पडटा वाकडीं
सासायेन निस्तारुंक सगलें
नाका इल्लोय विसर तुजो ॥
सगले वटेन उदका सागर
मदी जुंव्यार एकलो उबो
ही जीण पातयेवन तुजेर
जियेंवक आमकां कळयार पुरो॥



विठ्ठलाचे दोळ्या म्हाकां
दिसलें आयज पंढरपूर
आशाढाचे एकादशीचें
मेळ्ळें पुराय भोंवडे पुण्य ॥
विठ्ठल भक्तीन भरलें काळीज
कूड जाली ल्हव-पीस
उटंगाराचे पावसां जशे
आलाशिऱ्या सुके दीस ॥



# श्रीकृष्णाची भक्तिगीतां



मन मनशालें आसचें कशें
कृष्णाले मना सारकें
मनाचे दर एक चिंतना
कृष्णाचे रुप आसचें ॥
काळीज मनशालें आसचें कशें
कृष्णाले काळजा सारकें
काळजाचे दर एक उमाळ्या
कृष्ण मोगाची ऊब आसची ॥
करणी मनशाली आसची कशी
कृष्णाले करणे सारकी
करणेचे दर एक पावलां
कृष्णालें कर्तुब सगल्या फांकचे ॥



महाभारताचे रणखेवां
लडाये बगर वावूरलो तूं
जीणेचे दिसपट्टे झुजां
मतीं सदां आसचो तूं ॥
उबारुन दोंगर बोटान
अडचल्ल्यांक पावलो तूं
जीणेचे संकश्टांचे पावसां
सत्री कृपेची जावचो तूं ॥
मोग आनी मोयपासाचो
उफाट दर्या आसलो तूं
आमचे हे जिवीतां
कणभर दिश्टावो पावय तूं ॥





कृष्ण राधेची काणी
धरतरेच्या जल्माची कशी
दादलो आनी अस्तुरी
सांगतात ही सनातन काणी ।।
पुराय सैमाभितर
कृष्ण राधा वावूरता
दोगांचेय रास क्रिडेची
रंगता दर खीणा काणी ।।
कृष्ण-राधा, राधा-कृष्ण
जीवे प्राण्याची श्वास लयी
तीच हांगा जीवसाण
धरतरेची सांगता काणी ।।



कृष्णा तुज्या रुपाचो
म्हजे नदरेक भरवसो
भक्तीन तुजे भरला मतीं
हांवेस तुकां मेळपाचो ।।
आदार जग-लोकां तुजो
शब्द ना न्हयकाराचो
भोंवता हांगा जीव म्हजो
घेंवक प्रसाद कृपेचो ।।
मीरेचो आनी राधेचो तूं
तुलसी-कबीर संताचो
शक्त म्हजी ना तितली
पावचो तूं म्हज्या वाट्याचो ।।





आमोरेच्या वेळार कृष्णा
याद तुजी खर जाता
मुरलेची तान तुजे
आयकूंक जीव आशेता ।
खंय तरी पयस राना
आयजूय ती साद घालता
माग काइंक भोंवता कान
आकूळ-पिकूळ जीव जाता ॥
रुखाचीं हालतीं पानां
दर्याचीं धोलतीं ल्हारां
भोंवतणच्या सैमा तीं
दिसपट्टी आयकूं येता ॥



कितलीं रुपां तुजीं कृष्णा
ते रुपानीं भाळयला जगाक
केन्नाय जाता राधेचो मोगी
गुपीत सांगता मीरेल्या काना ॥
मळबां तु फांकला अख्या
दर्याचे पाणयां भरसला
माया तुजी धरतरे येदी
शितळकाय ओत्तां रूखा-राना ॥
रूप तुजें मानवता सगल्यांक
कर्तुबां देख उर्बा दिता
जियेलो तुं खरेपणी
आमची जीण झडटी पानां ॥





संवसारांतलो पुराय मोग
दिसता कृष्णा तुज्या दोळ्यानी
ते मोगाचो भाव प्रारखूंक
ज्योत तिगय ह्या दोळ्यांची ।।
संवसारातलें आपलेंपण
वाटलें कृष्णा तुवें हातानी
ते उर्बेचो आंवाठ मेजूंक
जीवसाण तिगय ह्या हातांची ।।
जिवीत पुराय तुजें
आसा कृष्णा कर्तुबा काणी
ते कर्तुबाची खोलाय येवजूंक
शक्त तिगय ह्या मनाची ।।



काळीज म्हजें आतां
कृष्ण रूपी जांवक लागलां
ते नदरेन पळयतना
कणा-कणा कृष्ण दिसता ।।
मनाचे दर एक चिंतना
कृष्णाचो वावर दिसता
ते करणेन पळयतना
खीणा-खीणा कृष्ण गावता ।।
जीणेचे म्हज्या आंवडे
कृष्णाच्या नावान येता
ते उर्बेन आंवडेतना
मनशां-मनशां कृष्ण दिसता ।।





कोणय म्हण्टात कृष्ण
कोणय म्हण्टात राम तुकां
संवसार न्हंयेच्या पलतडी
व्हरपी तूं आदार म्हांका ॥
दुख दर्यां बुडटां जेन्ना
जीणे मोडां व्हावूं लागतां
वगतार त्या राखपी
तुजे नावांचो आदार म्हांका ॥
भोंवतणी काळखी दाट्टा
आस सगली सोंपता
उजवाडाचीं किर्णा फांकयत
निवळावपी तूं आदार म्हांका ॥



# देवींचीं भक्तिगितां



आमचे स्त्री रूपी
देवांक.

*देखीक शांतादुर्गा, नवदूर्गा, चामूंडा, कामाक्षी, कालीमाता, ब्रम्हदूर्गा, तुळजाभवानी, महामाया आनी हेर देवींची व्हडविक गांवक उपकारा पडं येतात अशे कांय अभंग आनी भक्तीगितां*

सैमाच्या दर एका नेमांत
देवी तुजें आसप भरलां
ते नेम उकते जातना
तुजो परमळ फांकता ॥
दर गजाल नेमाप्रमाण
तत्व संवसाराचें आसा
मनशांतूय तू आसा
उजू करणेचो परमळ सांगता ॥
धरतरेवेली जीवसाण
तुज्याच रुपां वावूरता
धरतरेचो फुडार घडप
देवी तुजेंच पावल आसता ॥



देवी दुर्गे महामाये
निर्मणेचें रुप तू
वायट सोपोवपी
अख्खी निवळसाण तूं ॥
संवसाराच्या आरंबाचें
पयल्या येसाचें गीत तूं
सांबाळ करपी सैमातलें
कणाकणातलें तत्व तूं ॥
दर एक अस्तुरी
तातूं भरल्या तूंच तू
भूंय तू आवय तू
रुपकारा येवपी मनीस तूं ॥



आवय तूं म्हजी
बाळक हांव तुज्या कुशी
सांबाळ कर म्हजो
भरवसो तुज्या उबेचो ।।
देखतां तुजें रुप
म्हजे सान दोळ्यानी
आदार तूं जीवाचो
धरतरेक जसो सुर्याचो ।।
नितळ-निंवळ गजाली
तुजे दुदाच्यो व्हटी
बाळकाक तुज्या गावचो
आदार सदांच कृपेचो ।।





कृपा कर माये दुर्गे
अरिश्टांतल्यान वाचय
संवसारां ह्या आसमेरेन
दोळ्याक सदां बरें दाखय ।।
संवसाराची आवय तू
वायट सगलें आडय
पायांक ह्या दीका ना
बरी वाट तांका शिकय ।।
नेणार भुरग्याची गत म्हजी
बोटांक धरून चलय
एक तुजोच आदार जगां
तुजेवेलो भरवसो तिगय ।।





दूर्गा आनीक शांतादूर्गा
अस्तुरेचीं दोन रुपां
ते रुपांचे रुपकारांत
संवसार हो आस्पावला ।।
उचांबळ आनी थंडायेचीं
धरतरेचीं हीं रूपां
संवसाराच्या संतुळेची
गवाय दिवपी हीं सतां ।।
अस्तुरेची मना खोलाय
समजूंक कुस्तार एक वीदां
माये दूर्गे समजूक तुका
नकळों कितलीं लागत युगां ।।



रुप तुजें दोळ्या सामकार
मतीं तें फांकता
कुडीचे हे कणाकणा
तुजी सासाय पावता ।।
तुजे आठ भुजानी
संवसार तूं हो पेलता
खेरीत अशें रूप तुजें
दोळ्यांक थाकाय गावता ।।
तुजी एक नदर म्हळ्यार
काळजाची ह्या थंडाय
ते नदरेची विशाळकाय
काळीज हें आपणायता ।।



एकलो-एकलो दिसता जेन्ना
मनशानी भरिल्ल्या संवसारां
आदार फकत तुजो म्हांका
मतीच्या उज्या घुस्मटां ।।
घुस्मटमार हो सदचो
थाव नाशिल्ल्या दर्यां
आलतड ना पलतड
मदींच जेन्ना हुमकळटां ।।
काळजाची धडधड आनी
तुजो नाम जप सांगाता
एकमेका सांगात तांचो
जिवीतां चल्ला नकळटां ।।





अस्तुरेच्या रूपां म्हांका
दिसली तुजी सासाय
उजवाड भरिल्ल्या काळजां
गावल्या कृपेची खराय ।।
तूं तारता तूंच मारता
तेंगशेरय तूंच पावयता
अस्तुरेच्या रूपां म्हांका
दिसली धरतरेचीं व्हडविकाय ।।
बाळक तुजें समजून म्हांका
राखला आवयचे मोगान
वायट नदरेन अस्तुरेची
उवेखणी मतींतली सोपय ।।





काळजांतल्यान धाय दिकां
उजवाडाचीं किर्णा फांकतलीं
दर किरणा भरशीं जगां
तुजी सासाय पावतली ॥
काळजाची पण्टी पेटली
उजवाडाची उकती पोटली
खंय कोणाक दिवची
माण्णी तुवे थारावची ॥
काळजान काळीज जिकप
कळाशी तुज्या भक्तिची
जीवें दवर काळजा होमखण
करता होरावणी जगदंबेची ॥



न्हिदल्या एक अस्तुरी
जशी देवी शेशशाही
म्हऱ्यां म्हृर्त बाळकाची
भक्तांची तीका तशी काळजी ॥
कितली युगां सोंपलीं अशीं
आवय भुरग्याचें नाते सांबाळीत
मोगाची ही खराय अशी
सांसणा मेरेन तिगपाची ॥
दर एका अस्तुरें भितर
आसा मूर्त माता दुर्गेची
ब्रह्मांडाची आवय ती
सांबाळळ्या गती धरतरेची ॥



गोरे-गोरे आंगाची तिच्या
लिकलीकता कांती वीजशी
पांचवो चूडो कांकणा हातीक
तेच रंगाची सोबता साडी ।।
उब बाळकाक आवयची
तशी म्हांका तीच्या भक्तीची
तान ती खेरीत मोगाची
धरून दुदाक तिणे पावोवची ।।
पुराय विस्वाची आवय ती
माया तिगेली म्हासागराइतली
जाता वगतार महिशासूरमर्दिनी
वायट सोपोवंक आठ हातीनी ।।





काळीज सोदता निवळ जांवक
कामांक दिवचो तुवें आदार
वावर न्हय तो खिणयाळो
लागूये तेंप ताका वर्सांचो ।।
काळखी भरील्लें काळीज हें
किर्ण सोडलां तुवें उजवाडाचें
कुड्डयां भशेन जिवीत सरलें
भक्तीन तुज्या दोळे आयले ।।
सोबीत देवी रूप तुजें
तेच खीणा काळजां रिगलें
कुड्डेपणाक तेळून म्हजे
म्हांका तुवे जोखलो जावये ।।





धांव माते नवदूर्गे
गोळाक कसो लागला जीव
अदृश्य तुज्या सासायेन
सोडय आत्म्यांचो पीळ ।।
कितल्या युगांचो वावर माते
सांबाळळ्या मनशा कूळ
मनशाल्या आत्म्यांचें जशें
रिगलां तुजें भितर मूळ ।।
विशाळ तुजें रूप माये
सगलें ब्रह्मांड आस्पावलां
जीवाची वात पेटयतां
काळजाची करून पण्टी ।।



जय माते नवदुर्गे
घाल म्हजेर तुजी सावळी
खर वताचें जालां जिवीत
ओत तुज्या कृपेची पावळी ।।
सासाय तुजी कितली माये
दर खीणाक तूं पावता
जीण म्हजी रात-दिस
तुज्याच भक्तीन रंगता ।।
काळखी हे म्हज्या जीणे
उजवाड जावन तूं पावता
बाळक दूद पिता तशें
तुज्या कृपेन जगता ।।



आमचे गांवची नवदूर्गा
पावता सदां अडचल्ल्याक
मारात एक उलो तिका
सोडयता ती संकश्टातल्यांन ॥
खरेंपण गावलां जायतेवेळा
कृपेचो तीच्या प्रसाद घेतला
थतर-वितर जाल्ले जीवाक
तीणेच धाधोशी केला ॥
उतळतापांचे खर वतां
आत्मांक जायतें भोगलां
दाट सावळेचो रुख जावन
वेंगा आपल्या तीणे घेतलां ॥





सदांच देवी सांगात तुजो
तरीय कित्या एकलो समजतां
तुज्या सांगाताचो आजून
येंवक ना विस्वास म्हांका ॥
दुख आसा काळजां माये
भायर काडून ओतूंक सोदतां
तुज्या कृपेचो दी आदार
निवळ दवरूंक ह्या अंतस्कर्णा ॥
कितली पांचवी भूंय ही
भोंवतणी आसा सोबीत मना
दुकळ जिवीतां कित्या हाडूं
तुजो आदार आसतना ॥



धुक्याच्या पङ्ग्या पेल्यान
कोणाचें तरी वावरणे
देवी कामाक्षे तुजें
दिसता थोड्यांक आसणे ॥
न्हय तू इतली पयस
खेळ फक्त ते मनांचे
काळजांत तू आमचे
वगीच कारण धुक्याचें ॥
लागीं आसून इतली
समजता तुकां परके
पयस कर धुकें मतींचे
कळटले आमचें नातें ॥





पावसा उपरांतचो शेळाव तशी
सासाय थंड तुज्या मायेची
शक्त तातूं भरल्या इतली
संवसार पुराय सांबाळचेली ॥
कितली युगां सरून गेलीं
वाडत आसा जांवक ना उणी
उजू करूंक जीण मनशाली
धा दिको भरून रावल्या ती





जिवीताची ख्यास्त म्हांका
दिल्या तुवें ज्या खीणा
जिवीतां किते करचें हावें
तुवेंच सगली माण्णी केल्या ।।
जिवीत हें किस्कूट कशें
भोंवतणचें वाऱ्यान हुबपाचें
घट पांय रोमून रावूंक
तुवेंच सगलें घडोवन हाडलां ।।
जिवीताचें ह्या करचें कितें
व्हरचे ताका खंयचे दिकेन
लामण दिवो जावन तुवें
भोंवतणचो काळोख पयस केला ।।



# साईबाबांचीं भक्तिगितां



*श्री साईबाबा हे आमगेल्या देशांतल्या संतपरंपरेतले आगळे-वेगळे संत. हेर संताभशेन ताणी देवाची भक्ती केली. हेरांकय ती शिकयली. तेच सांगाता हेरां पासत स्वता वावरप, त्रास भोगप हाचीच देख ताणी लोकांसामकार दवरली. घडये होच तांगेलो वावर आयजय लोकांक देख दीणो दिसता आसूंक जाय. श्री साईबाबांची देवळा तशेंच भक्त परंपरा आयच वाडटा. वाडत आसा. भक्तांचे नदरेंतल्यान श्री साईबाबा हे देवांचे पक्तींक वचून केन्नाच बसल्यात तांगेली व्हडविक गावपी अभंग सुचले तशें बरयल्यात.*

शिर्डी वाठाराची व्हडाय
गाजता आयज सगल्या जगा
श्री साईचे राबिल्यान
पावल्या जण एका काळजां ।।
गोदावरी न्हंयेचो काठ
रेवेंच्या कणानी भरला
कणा कणकणी भक्तीभाव
भरून ओत्ता शिर्डीगांव ।।
श्री साईनी येवन हांगा
अमृत शिंवरले उपदेसाचें
आजय भरून आसा उफाट
भक्तांचे पोशांची पळयता वाट ।।
संवसाराचे माय पासांत
पलतडचे आशेर जगतात
आलतड-पलतड एकूच सुवात
सगल्या तिर्थाचें पूण्य हो गांव ।।



पुण्यात्मो एक शिर्डी पावलो
नासलो कोण वळखीचो
उजवाड काळजांतलो सांगाती
तोच हेरांक वाटूंक सोदतालो ।।
कारुण्याची तोंडार ओलसाण
नदरेंतल्यान मोग आवयचो
पावलो थंय अमृत ओतीत
भौसाक आपले करीत गेलो ।।

साईचो प्रसाद कृपेचो
भक्तांक शिर्डिक गावत रावचो
युगा-युगांची ही बांदावळ
बांदून दवरूंक अवतार आयल्लो ।।





नेम सदांच बाबांचो
पांच सुवातो भिक्षेचो
मूठभर भिक्षे बदला
गावतालो उपदेस बाबांचो ।।
खासा देव दारांत उबो
भाग्यवंत लोक शिर्डिचो
भिक्षा देवाक दितल्यानी
सांठो वाडयलो पुण्याचो ।।
पुण्यायेचो तो सांठो
गांठवल शिर्डि भुंयेचो
भुंयेर त्या पांय दितल्याक
गावता इल्लो तरी वांटो ।।



जीवाक ह्या लागल्या गोडी
साई तुज्या नावांची
नाव घेत म्होंवाळ तुजें
संवसार न्हंय पेंवपाची ।।
कितलीं वर्सां अशींच गेलीं
काळजाक कळ्ळी ना गोडी
जोड जोडूंक ही थाकायेची
साई नावांची जीवाक बेडी ।।

सुटची न्ही ही केन्ना बेडी
साईनीच तीका राखचेली
वळख जाली साईं तुजी
जोड हीच व्हड जीणेची ॥



ल्हव कितलें काळीच जाता
साईं दरबारांत पावतना
ल्हवसाण ती गावची सदां
ते पासत ही आराधना ॥
संवसाराच्या उतळतापां
जीवाक थाकाय गावना
पळोवन तुका मेळची लोकांक
ते पासत ही प्रार्थना ॥
साईं जिवीताचीं परायणा
सुख इतलेंच ह्या जिवीतां
जीव रंगता साईं भजनां
जीवाची तीच समरादना ॥





मेकळ्या मनान पूजतल्याक
साईं गावता कश्टबगर
जाय फकत मन आपलें
मेकळें आनी इत्सेबगर ॥
सोद घेवंक देवाचो आमी
भोंवता कितलीं देवळां थळां
काळजांतले देवाक मात
सोदपाचें सोडलां आमी ॥

उजवाडाच्यो कितल्यो वाती
ओवाळ्ळ्यो देवा भोंवतणी
साईं काळजांत आसा वगी
पळयता वाट खरे भक्तीची ।।





साईं नावांच्या जपाचेंर
म्हज्या श्वासांची गणती
त्या श्वासांचे उरपाची
साईनामान दिल्या खात्री ।।
दर एका श्वासाची
जीवाची ती एक फेरी
पुराय जांवक गरजेची
साईं नामाच्या उर्बेची ।।
याद तुज्या नावांची
व्हांवती न्हंय अमृताची
गती रक्ताक शिरांतले
साई नाम जपाची ।।



दिसलें फूल खंयी जरी
दिसता साईंचे रूप
नितळ थंडाय ओत्ता जशें
ओडलायणे साईंचे मुख ।।
श्रध्दा भक्ती सबूरी
साईं तुज्या प्रसादा फूल
तीन फुलां परमळ एकठांय
दिता साईं सांगाता सुख ।।

जीणेचे उज्यां आमकां
थंड सावळेचो तू रूख
सावळे तुज्या सासायेच्या
ओंपतां पायांर जीवा फूल ।।





साईं तुज्या नावां भरल्या
म्होंवाची गोडसाण
मूस म्होंवाचो जावन हांव
एकठाय ती करतां ।।
गोडसाण ती चोखूंक सदां
बळगें दी ह्या पाखांक
मूस मालें करता तशें
पुण्याये पुरीमेंत करतां ।।
पुराय वीदाचें काम तें
वावरांचें जांव नये वजें
जिवीत पांयार ओपूं तुज्या
शिर्डी येंवक आशेतां ।।



मेळ्ळा म्हांका जायतें
पूण गावलेंना ती आस
आसा तेंच भोगूंक दिवची
जीवाक साईं तुवें थाकाय ।।
जियेलां वर्सा जायतीं
पूण आजून रावपाची आस
मेळयलां कितें हांगा
हिसपाची साईं दिसता भिरांत ।।

भरना पोट कशेंच
जीणेची समजना भास
सोपोंवक जीणे आभास
साई कृपेची जाय सासाय ।।



साईं तुजें रूप मना
बसलां धरून आंग
सादी-नितळ मूर्त तुजी
सांगता धरून काना ।।
हांवपण नाका आंगा
नसायेक आफडूं नाका
मूर्त म्हजी केळयत राव
गूण घोळय रक्तांत ।।
कमळ फुलता चिखलां
वज्र गावता कोळशां
जीवाक ह्या इल्लेशा
ओत्ता तुज्या पोशां ।।





**।। आरत ।।**

सांज वेळ जाली भायर
साई भजना वेळ आयल्या
सगले जाण मेळून आमी
आरत आतां ओवाळूंया ।।
अडचल्याचे उल्याक पावया
दुखेस्ताचीं दुकां पुसया
वावर हो साईंचो आमी

आनीक नेटान फुडें व्हरया ।।
ब्रेस्तार आयताराचे दिस
साईंक पुराय ओपपाचे
वाठार भोंवतणचौ आनी
मना सगल्यांची निवळावया ।।
दुख तीन सागरां इतलें
कोयरान मळब भरतलें
वेळ हीच म्हूर्ताची समजून
वावराक पेंगट बांदूया ।।





जियेवन दाखोवचें आसा
मरूंक पाविल्ल्या संवसारां
कुस्तारपण कामाचें त्या
कितलें तें साई तू जाणा ।।
दिसता सगल्यांक कूड उबी
फाल्यां खंय आसा खात्री
जे मेरेन आसा जिवी
एकठायतां जोड तुजे नावांची ।।
जोड जी जोडल्या इल्ली
जीणे वांगडा झूज मांडूक
झुजां ते तिगून रावूंक
कृपा तुजी म्हजेर उरूं ।।





साईं तुवें दाखयल्या
कितली बरी वाट
आमी मांत देवळा व्हरून
दिलो तुकां देवा पाट ॥
मनशां पासत वावूरपी
मनीस तु आसलो
फुलां नाल्ल ओंपून
केली आमी तुका फाट ॥
व्हड मनीस दवरता
आपले व्हड दायज
पुण तें विसरून आमी
चलता आदलीच वाट ॥



तोंडान जायना उक्तो करूं
मोग म्हज्या काळजांतलो
देखून तो उकतो जावूंक
आदार तुज्या नावांचो ॥
उलोवन उक्तायले बगर
समजना हुंवार मोगाचो
काळजांतलो हेरां वाटूंक
मागतां हात आदाराचो ॥
पायांर म्हाका उबो करूंक
तुवे सदां सांगात दिलो
हेरांची दुकां आता पुसूंक
दाखय शक्तीचो दिश्टावो ॥





वळेरी दर्शन घेतल्यांचीं
वाडत आसा एकसारकी
साईंचे पांय धुवंक
येता ल्हारां जशीं दर्याची ॥
एकदां पळोवन मनाची
आस कशी भागतली
तान भागता अर्दकुटी
तशी ओड परती शिर्डिची ॥
आस तुज्या दर्शनाची
नकळों कितल्या जन्माची
धर्तरी घुंवता सूर्याभोंवतणी
तशी भक्तांक शिर्डि साईंची ॥



# आमचीं हेर प्रकाशनां

| | | |
|---|---|---|
| १. | ऋणानुबंद | - डॉ. श्री. शं. फडके |
| २. | आडवणांतले उले | - भालचंद्र गांवकार |
| ३. | वाङमयीन संदर्भ आणि अवलोकन | - डॉ. सोमनाथ कोमरपंत |
| ४. | पडुवा | - डॉ. श्री. शं. फडके |
| ५. | कोंकणी भाशाविज्ञान | - भालचंद्र गांवकार |
| ६. | ज्ञानयोगी ज्ञानेश्वर | - श्री. अर्जून परब |
| ७. | क्षितिजरंग | - डॉ. सोमनाथ कोमरपंत |
| ८. | यादींचे देगेर | - भालचंद्र गांवकार |
| ९. | हावेस भाग-१ आनी भाग-२ | - सतीश दळवी |
| १० | हांव एक बुदवंत | - प्रभाकर नाडकर्णी |
| ११. | चित्रलेखा | - प्रभाकर नाडकर्णी |
| १२. | अंदल्ले उस्वास | - भालचंद्र गांवकार |
| १३. | दोंगराचे आवंडे | - भालचंद्र गांवकार |
| १४. | वेंचीक परसाई | - प्रभाकर नाडकर्णी |
| १५. | थाव | - भालचंद्र गांवकार |
| १६. | साहित्य : एक भासाभास | - भालचंद्र गांवकार |


**मित्र प्रकाशन**

किटोलें - बेतोडा - फोंडें - गोंय

फोन नं. : २३३०३८५